# गोंयच्चो पावस

पुंडलीक नारायण नायक

अपुरबाय प्रकाशन

*नाचता मोर आलतडीं*
*पावस पडटा पलतडीं*
*डरांव डरांव गायत बेबे*
*तळयेर खेळटा तालगडी*

आमच्या कवींनी पावसाची खूब तोखणाय केल्या. पावस आसाच तसो. म्हळ्यार तुस्त तोखणाय करीसारको.

## पावसाचीं रुपां

पावसाचीं वेगवेगळीं रुपां आनी वेगवेगळे प्रकार.

— पावस अंदरता.
— पावस मांडटा.
— पावस शेनता.
— पावस शिडशिड्टा.
— पावस थेंबेता.
— पावस गळटा.
— पावस रकता.
— दडकांनी पावस.
— शिरंधारांनी पावस.
— उटंगाराचो पावस.
— पावसूच पावस.

## पावसाचीं लक्षणां

अशा ह्या विविधरंगी आनी विविधढंगी पावसाची सुलूस कशी लागता ? पावसाचीं लक्षणां कितें ?

— ग्रीष्म ऋतूंत म्हळ्यार गीमांत राती ल्हान, दीस व्हड, ही एक कुरू

म्हणूं येता.
— भूक कमी लागता, म्हणजे दोन आंबे खावनूय पोट भरता, हिवूय एक खुणा जावं येता.
— हवेंत उष्णताय. उकडटा.
— दर्या गाजता. भाटी कोंसळटात.
— धवो चांफो फुलां गळून सामको बोडको जाता आनी पालेता.
— झाडांचेर पांचवी पालय.

पावस लागीं पावला हें दाखोवपी ह्यो सगळ्यो सैमाच्यो खुणो, कुरवो.

हे भायर गांवागांवांनी पावसाचीं लक्षणां पारखुवपाच्यो वेगवेगळ्यो पद्धती आसात.

गोंयच्या काणकोण म्हालांतल्या श्रीस्थळ गांवांत एक सोबीत पांचवो रूख आसा. रुखाच्यो खांदयो वयर मळबांत फांकारल्यात. रुखाचीं मुळां जमनींत खोल रुजल्यांत. थंयचे लोक ताका 'जरमाले रूख' म्हण पाचारतात. रुखाची पिराय कितली ती कोणाक खबर ना. कितल्योशोच पिळग्यो जाल्यो तो थंय उबो आसा.

पावस लागीं पावलो तसो हो रूख पालेता, फुलता. ताका कोथमिरे येंदीं बारीक बारीक फळां येतात.

ह्या रुखाक पळोवन हांगचे लोक पावसाचो अदमास बांदतात. गांवागांवांनी अशेच तरेचीं बारीक-मोटीं झाडांपेडां आसतात. तिंवूय अशेच तरेन पावस लागीं पाविल्ल्याची सुलूस आमकां दितात. अंधविश्वास म्हण फकाणां मारपाच्यो ह्यो गजाली न्हय. बिज्ञानीक जाणकारांक विचारल्यार ते सांगतले, 'हातूंत खरेपण आसूं येता.' म्हणजे जंय अशेतरेचे लोकांचे भावार्त आसतात, त्या भावार्ताच्या तळाक विज्ञानीक गुपीत दडिल्लें आसता.

## पावसा आदली तयारी

जाणटेल्यांची एक म्हणणी आसा; पावसाआदीं मठी, काठी आनी मिठी सांबाळपाक जाय.
— मठी म्हळ्यार घर.

— मिठी म्हळ्यार मीठ-मसालो.

— काठी म्हळ्यार जळवाखातीर लाकूड बडी.

जाणटेल्यांचे हे सांगणेक गोंयकार बेस बरो पाळो दिता.

— पावसाआदीं घर मदेरार करता, कण्णयता वो शिंवता.

— जळवाखातीर लाकडां एकठांय करता. घरांत वो घराचे भितोडेक लाकडांचे माच रचता.

— खरें म्हळ्यार गोंयांत गांवागांवांनी आनी वाड्यावाड्यार मांड, पसरे, गाडे पडल्यात. तातूंत वर्सूयभर लागपी सगळे तरेच्यो वस्तू आनी जिनस मेळटात. तरी लेगीत गांवांनी आनी शारांनी पुरुमेंताचीं फेस्तां भरतात. गोंयकार पावसाळ्यांत लागपी जिनसांची सांठवण करून दवरता.

## पावसाचो अदमास

आतांचे शेतकार हवामान खात्याच्या अदमासाचेर रावतात. आकाशवाणी, दूरदर्शन, वर्तमानपत्रां, पावसा संबंदिच्यो चत्रायो वेळावेळ दिता, तेप्रमाण आपणालीं शेताचीं कामां थारायतात.

हवामान खातें पावसाचो अदमास कसो बांदता तें तुमकां खबर आसा ?

तांच्या म्हणण्याप्रमाण दोन गजाली घडटात.

— व्हांवत्या वाऱ्यांत बदल घडटा.

— वातावरणांत ओलसाणेचें, आर्द्रतेचें प्रमाण वाडटा.

वारें उत्तर दिकेकडल्यान अस्तेंत दिकेवटयां व्हांवपाक लागता. तेखातीर जून ते सप्टेंबर मेरेन पडपी पावसाक दक्षीण अस्तम पावस अशें म्हणटात.

म्हणजे, हवामान खातें वाऱ्याच्या धोरणाचेर पावसाचो अदमास बांदता.

आदल्या तेंपार हेच शेतकार पावसाचो अदमास कसो बांदताले ?

— माया म्हयन्यांत न्हंयचे देगेर जावपी 'मुगोवाल' फुलता. ती फुल्ली म्हणटकूच शेतकार बियां धुल्लांत पुरून दवरताले. कारण अशें घडटकूच पंदरा दिसांभितर पावस पडटलो असो तांचो अदमास.

— माया म्हयन्यांत पिसोळीं भायर सरलीं म्हणजे लोक समजताले,

आतां म्हयन्या भितर पावस पडटलो.

— बेबे रडपाक लागले म्हणजे लोक समजताले, पावस लागीं आसा. हे सगळे अदमास खरे जाताले. ते भायर–

— संवसार पाडव्याचे परबे दिसा भट देवळांत वो मांडार पंचांग वाचून दाखयतालो. तो कुडवांनी पावस मेजतालो. तेच प्रमाण पावस कसल्या वाहनाचेर बसून येता तें सांगतालो.

ही जाली शेतकारांची पारखुणी. आमचेमदीं नुस्तें पागपी लोक आसात. हवामान खातें ह्या लोकांक पावसाची, मोडाची म्हायती दिता. दर्या खवदळिल्लो, उचंबळ आसल्यार तांकां शिटकावणी दिता.

— आदल्या तेंपार हे लोक वारो कसो व्हांवता ताचेर अदमास बांदताले. आनी मोड वादळा पासून शादूर जाताले.

## दोन मीर्ग – एक पावस

गोंयांत गोंयकार एक. तरा दोन.

— हिंदूंचें देवूळ; देवळांत दिवली.

— किरिस्तांवांची इगर्ज; इगर्जेंत मेणवात.

— दिवली आनी मेणवात पूण उजवाड एक.

— उजवाडांतलो देव एक.

— गोंयांत गोंयकारांचे मीर्ग दोन.

— किरिस्तांवांचे नदरेन, एक मीर्ग कोंकण्यांचो, म्हळ्यार हिंदूंचो.

— हिंदूंचे नदरेन, एक मीर्ग किरिस्तांवांचो.

— मीर्ग दोन पूण पावस एक.

— पावसाचें उदक एक.

गोंयचो पावस मृग म्हणजेच मीर्ग नक्षत्राक सुरू जाता, जुनाच्या पयल्या सप्तकांत. सादारण ५ जुनाक. ह्या नक्षत्राक गडगड मारून पावस पडटा. पावसाचें प्रमाण चड आसता. मीर्गा उपरांतचीं नक्षत्रां म्हळ्यार आर्द्रा, पुनर्वसु, पुष्य, आश्लेषा, मघा, पूर्वा आनी उत्तरा. जून ते सप्टेंबर ह्या

चार म्हयन्यांत दर पंदरा दिसांचीं अशीं वट्ट आठ नक्षत्रां पावसाचीं आसतात. दर एका नक्षत्रांचें वाहन आसता. त्या वाहनाक प्रकृतीक मानवता ते प्रमाण पावस उणो-अदीक जाता. जशेपरी, नक्षत्र मोरार आसत जाल्यार मोराक मानवता इतलोच पावस पड़टलो. तेचपरी नक्षत्राचें वाहन घोडो, हती, हुनीर आसत जाल्यार पावस सुमाराचो पडटलो. पूण नक्षत्राचें वाहन जर बेबो वा म्हस आसत जाल्यार घोग्यांनी आनी शिरंधारांनी पावस रकतलो. लोकांच्यो ह्यो समजिकायो आसात आनी शास्त्र म्हणपा इतल्यो त्यो खऱ्यो आसात.

## मनीस सभाव आनी पावस

मनशाच्या सभावगुणाकडेन पावसाची तुळा केल्या. गांवांनी पावसाक नांवां आसात, विचारल्यार जाणटेले सांगतले,

— चड पडटा त्या पावसाचें नांव 'म्हातऱ्यां पावस'.

— मागीर भार मारून पडटा तो 'पुतांपावस'.

— मागीर पावसाचो नेट उणो, तो 'धुवांपावस'.

— मागीर 'सुनां पावस'. सुनांक थोडो.

— मागीर 'पोणटुरां पावस', साप्प उणो.

— आनी मागीर 'शेणटुरां पावस'. शेणलो. सोंपलो पावस.

## आसोराचीं साधनां

पावसांत आसोराक कितें ?

— शेतकाराक कांबळ.

— कामेऱ्यांक कण्णो नातर कापोत.

— सर्वसादारण मनशाक सत्री.

'काळा परमाणे माथ्याक कुरपणे' अशी एक म्हणणी आसा. तेप्रमाण आतां आसोराचीं वेगवेगळीं साधनां आयल्यांत. शारांनी हीं साधनां मेळटात.

— रेनकोट, रेनसूट – तातूंत पेंट आंनी शर्ट,

— रेनकोट बायलांखातीर – तातूंत स्कर्ट आनी ब्लावज,

— ते भायर तरांतरांच्यो सत्र्यो. लाकडी दांड्याच्यो, लोखंडी दांड्याच्यो, दांडो नाशिल्ल्यो. दोइटा तसल्यो. बटन दाबून उक्त्यो जाता-धांपता तसल्यो.

हीं आधुनिक साधनां गोंयांत मुंबय, कलकत्ता हांगासावन येतात. हांचो खप जून म्हयन्याचे सुरवातीक सुरू जाता तो जुलय अखेर मेरेन चालू उरता.

पावसाच्या आरंभाक सत्र्यो सारक्यो करपी मनीस हांगा-थंय दिश्टी पडटात. गांवांत तशेंच शारांनी मार्गाचे कडेक वो कोनशाक हे लोक बसून आपलें काम करतात. पावस तांचो आदार.

## पावस आमचो इश्ट

पावस तसो सगळ्यांचो इश्ट. पूण पावसाची खरी इश्टागत शेतकाऱ्यांकडेन. शेतकाऱ्यांचो सगळो भरीभार पावसाचेर. पावस लागना बरोबर तो शेतांत देंवतलो. शेताची कमाशी करतलो. शेत रोयतलो.

आदल्या तेंपार केनाळ, खोचरो, वाल असल्यो भाताच्यो गांवठी जाती आशिल्ल्यो. आतां चड पिकावळ दिवपी ज्योती, जया, आय.आर.एट. असलीं भाताचीं बियाणां आयल्यांत.

जाका चॉकलेट आवडना असो भुरगो आसूं येता.

जाका खेळपाक आवडना असोय भुरगो आसूं येता.

पूण जाका पावसूच आवडना असो भुरगो आसत व्हय?

पावसाच्या दिसांनी भुरग्यांक उदकांत नाचपाक मेळटा. खेळपाक मेळटा. जाणटेल्यांची नदर चुकोवन जाय तशें भिजपाक मेळटा. व्हांवत्या उदकांत कागदाचीं व्हडीं सोडपाक मेळटा.

गोंयचो पावस रकत रावलो जाल्यार उबगण हाडटा. पूण तेच बरोबर कांय तेप पावसाच्यो दडको दड मारून रावतात.

कवी मनोहरराय सरदेसाय मागीर आपले कवितेंत म्हणटा –

*पावस पडल्यार म्हणटात*
*पावसान विटयलें!*
*पावस पडना जाल्यार म्हणटात*
*पावसान फटयलें!*

## पावस आनी पर्यावरण

आमची धर्तरी, धर्तरेवयलीं झाडां-पेडां, उदक-वारें, जीव-जिवाळ आनी मनीस हांचें एक नातें आसा. ह्या नात्याचें नांव पर्यावरण. पर्यावरण ही आयच्या काळाची गरज आसा.

पर्यावरण आनी पावस हांचो संबंद आसा. पर्यावरण विशयाचे जाणकार हेविशीं विस्कटावन सांगतात. ते म्हणटात–

— पावस आनी पर्यावरण हांचो संबंद सामको लागींचो. पर्यावरण पावसाक लागुनूच जाल्लें आसा. आयज गोंयांत जें पर्यावरण आमी पळयतात तें अकस्मात जावंक ना. हजारांनी वर्सां हांगासर पावस पडत आसा ताका लागून तें जालां. एक वर्स पावस उणो अदीक पडलो म्हणून पर्यावरणाचेरं व्हडलोसो परिणाम जायना. पूण शेता-भाटाचेर मात ताचो परिणाम जाता. कारण शेता-भाटाक अमक्याच वेळार उदक जाय आसता.

रानां आनी पावस हांचो दाट संबंद आसा. मान्सून वारें, सरभोंवतणचो पावस हांगा गोंयांत ओडून हाडटा. अस्तेंत घाटांत दाट जंगलां आसात. ह्या जंगलांक लागून हो पावस आडावन उरता. आनी ताका लागून गोंयांत पावस चड पडटा. गोंयाभायर चड पावस पडना कारण कुपांक आडावन दवरपाक थंय कांय ना.

अस्तंत घाटांतल्या दोंगरावयलीं झाडां-पेडां जर मोट्या प्रमाणांत कांबार केलीं जाल्यार मात ह्या प्रदेशांत आनी गोंयांत सामको उणो पावस पडटलो.

## पावसांतल्यो पीडा

पावस हाडटा, उमेद! अशी उमेद जी वल्लेंतूय धरना आनी सुपांतूय धरना.

पावस हाडटा, पांचवेंपण! असलें पांचवेंपण जें शेतां सारयता आंगार आनी दोंगर माळटा माथ्यार.

पावस हाडटा, समृद्धताय!

उपाट भरिल्लीं तळीं, उपाट न्हंयो, भाताच्या थामाच्या पोटांत कणसांचें भांडार!

पूण तेच बरोबर पावस हाडटा, कुडकुड्याचो जोर. तरांतरांच्यो पीडा. दोतोर सांगतात –

— वर्सभर जीं दुयेंसां जातात, तातूंतलीं चडशीं दुयेंसां पावसाच्या तेंपार जातात. दुशीत हवा आनी दुशीत उदक हाका लागून दुयेंसां जातात. पातळ भायर जावप, अतिसार, अमांश, पटकी, दिसांचो जोर; कामीण ह्यो पावसांतल्यो पीडा.

पावसाच्या तेंपार जळारांचो खूप उपद्रव जाता. ह्या जळारां पासून मलेरिया, फायलेरिया तशेंच मेंदवाचो जोर (जाका जपानीज एन्सीफिलायटीस अशें म्हणटात) ह्यो पीडा जातात.

## पावस आनी भोंवडेकार

पावस पडटा हवामान खात्याच्या हातांत;
— हवामान खातें ताका मापता.
पावस पडटा शेतकी खात्याच्या हातांत;
— शेतकी खातें ताका रोपता.
पावस पडटा भलायकी खात्याच्या हातांत;
— भलायकी खातें ताका तपासता.
पावस पडटा पर्यटन खात्याच्या हातांत;
— पर्यटन खातें, ताका विकता.

खरेंच विकता. कारण गोंयच्या पावसाक दर आसा.

गोंयांत पर्यटन हो एक मोटो उद्येग आसा. दर वर्सा सुमार देड दोन लाख भोंवडेकार गोंयांत येवन वतात. पयलीं आक्टोबर ते मे ह्याच तेंपार भोंवडेकार येताले. जून ते सप्टेंबर हे चार म्हयने पावसाचे देखून गोंयांत येवपाचें ना अशी भोंवडेकारांची समजिकाय आसली.

पूण १९८७ सावन गोंयच्या पर्यटन खात्यान खाजगी हॉटल चालकांक हाताकडेन धरून एक येवजण सुरू केली. हे येवजणेप्रमाण गोंयाभायल्या वर्तमानपत्रांनी, नेमाळ्यांनी जायराती वितरायल्यो आनी भोंवडेकारांक गोंयचो पावस पळोवपाक आपयले.

आनी अजाप! आतां पावसांतूय भायले भोंवडेकार गोंय पळोवपाक येतात. देशांत जंय साप्प उणो पावस पडटा अशा लोकांक गोंयच्या पावसाचें खूब आकर्शण! त्या आकर्शणाक लागून ते गोंयांत येतात. हातूंत देशांतले भोंवडेकार तशेंच परदेशी भोंवडेकारांचो आस्पाव आसता.

## पावसांतलें नुस्तें आनी शाक-भाजी

कवी बाकीबाब बोरकारांनी एका कवनांत म्हळ्ळां—

*नुस्तें आसल्यार, गोंयकार वीर*
*नुस्तें नासल्यार, गोंयकार व्हीर.*

पावसाळ्यांत गोंयकारांची दशा अशीच, सान्नीच्या व्हीराभाशेन.

पावसाळ्यांत गोंयकार न्हंयेदेगेर पासय मारतलो — नुस्त्याखातीर. बाजारांत विडविडटलो — नुस्त्याखातीर.

आसलेंच जाल्यार करबट, कापसाळें, मानयाळें, फडकी.

मुड्डशी, चणकुलां आसतलीं पूण तें नुस्तें खावपाक दांत आसचेंना. म्हळ्यार इतलें म्हारग नुस्तें परवडपा सारकें न्हय.

पावसाळ्यांत नुस्त्याचो उणाव तितल्यो शाक-भाजयो चड. तेचखातीर

घडये हिंदू घराब्यांनी सण-परबो, व्रतां-एकवतांच्या नांवार शिवराकाचे दीस चड.

— आयज शिवराक; पणसाचीं भिकणां घालून तायखिळ्याची भाजी.

— आयजूय शिवराक; तोरची दाळ घालून घोसाळ्याची शाक.

— मागीर भेंड्याची भाजी, कुड्डुकेची भाजी, आळूं, तेरें, सुरण, लूत, पडवळीं, तवशीं, काराथीं आनी अळमीं.

## पावसांतल्यो सण-परबो

पावसांत शाक-भाजयांची आनी फळावळीची जाता खातड. तशी सणां-परबांचीय जाता खातड.

दडकेर दडको कोंसळच्यो तश्यो एका फाटोफाट येतात परबो.

— जूनाच्या चवथ्या सप्तकांत येता 'ईद उल् जुहा'; त्यागाची भावना जागोवपी मुसलमान भावंडांची परब.

— २४ जूनांक किरिस्तांव भावांची परब सांजांव गायत येता;

*सांजांव सांजांव घुंवता मुरे*
*वाट आमकां दिसोना*
*आयचो दीस उर्बेचो*
*कोण कोणांक हांसोना*

— ज्येष्ठांतली पुनव, ती 'वडापुनव'; सत्यवान-सावित्रीचे काणयेची याद करून वडाची पूजा करपी हिंदू सवायशिणी बायलांचो सण.

— आशाढांत 'आशाढी एकादस'; ह्या दिसा शेजारच्या महाराष्ट्रांतल्या 'पंढरपूर' गांवांत जात्रा. गोंयांतूय हो सण मनयतात. आशाढांत नव्यो लग्न जाल्ल्यो धुवो कुळारा येतात. आशाढांत घोवाल्या घराची पावळी पळयल्यार मांवाक वायटाक पडटा अशी समजिकाय आसा.

— आशाढांत मुसलमान भावंडांचो 'मोहरम'; करबलच्या झुजामळार

ईमाम हुसेन आनी यजीद हांचेमदीं जाल्लें झूज आनी त्या झुजांत जाल्लो सत्याचो विजय. त्या जैताची याद जागोवपी हो दीस.

— आशाढांतली पुनव; गुरुशिश्याच्या नात्याची याद जागोवपी 'गुरुपौर्णिमा'.

आनी मागीर श्रावण म्हयनो. सणार सण, उसरपत नासताना.

— दर सोमार, 'श्रावणी सोमार'; देवळांतल्या भजनाचो.

— दर आयतार, 'श्रावणी आयतार'; पत्रेन आनी फुलांनी पुजपाचो.

— मागीर 'मंगळागौर'. मंगळागौर पुजपाचो बायलांचो सण.

— 'सुतां पुनव', दर्याक सूत घालप, दर्याची उचंबळाय उणी करपाक. पावसांत वयर काडिल्लीं व्हडीं आतां परत नुस्तें पागूंक दर्यांत देंवतलीं.

— 'नागपंचम'; नागाक देव मानून पुजपाचो.

— मागीर राखी. 'रक्षाबंधन'. भयण भावाक राखी बांदतली आनी भावान आपली राखण करची अशी आस्त धरतली.

श्रावण म्हयनो सोपून मागीर लागतलो भाद्रपद. ह्या भाद्रपदांत गोंयचो सगळ्यांत व्हडलो उत्सव.

— गणपती बाप्पा मोरया! मंगलमूर्ती मोरया! 'चवथ'.

पावसांतल्या उत्सवांची आनी सणा-परबांची उमेद म्हळ्यार ओले पंचखाद्ये सारकी. तळटाकूय दसता आनी खायनूय दिसता. एकेवटेन पावस पडटा आनी दुसरेवटेन उत्सवांत भागूय घेयन दिसता. ह्या सणा-परबांत आनी उत्सवांत उमेदी वांगडा आसता, एक भक्तीरसाचो वझरो.

ह्या भक्तीरसा वांगडा गोंयांत दोन सण, गोंयकारांच्या आंगाचेर वीर रसाचो चंवर फुलयता.

— अठरा जून! 'गोंय क्रांती दीस'. पडटो पावस. डॉ. राम मनोहर लोहिया हांणी गोंय सुटके झुजाचें रणशींग फुंकलें तें ह्याच दिसा. गोंय सरकार हो दीस सरकारी थराचेर मनयता. गोंयच्या सुटके झुजाऱ्यांचो त्या दिसा मान-भौमान करता.

— १५ ऑगस्ट; 'भारताचो स्वातंत्र्यदीस'. सोंपत्या पावसांतलो राष्ट्रीय सण.

## इतलो पावस !

गोंयांत दर वर्सा २ मीटर ७० सेंटीमीटर इतलो पावस पडटा. हो पावस सगळ्याक सारको पडना. दर्याचे देगेक जें गांव वो शारां आसात थंय पावस इल्लो उणो पडटा. दर्याचे देगेपासून जशें जशें सह्याद्री दोंगरावटेन वता तशें तशें पावसाचें प्रमाण वाडत वता. हवामान खातें आपले शास्त्रीय पद्धतीन पावस मेजता. तांचेकडेन पावस मापपाचीं लातां आसात. हीं लातां पणजे, वास्को तशेंच हेर वाठारांनी दवरतात. दर दिसा सगळ्या लातांतलो पावस मेजतात आनी ताची सरासरी काडून एका दिसाक कितलो पावस पडलो तें थारायतात.

गोंयांत कितलो पावस पड़टा हें हेवूय हे पद्धतीन सांगूं येता –

म्हणजे गोंयची भूंय जर एका सपाट थराचेर आशिल्ली आनी पावसाचें उदक जर व्हळून वचूंक नासलें वो जमनींत जिरूंक नासलें जाल्यार गोंयच्या माथ्यावयर २ मीटर ७० सेंटीमीटर इतलो उदकाचो थर उरपाचो.

म्हणजे जयवंताचो इश्ट जुवांव जर जयवंताच्या खांदार पांय दवरून उबो राविल्लो जाल्यार जयवंत तकले मेरेन बुडपाचो आनी खांदावयलो जुवांव कमर मेरेन बुडपाचो.

— गोंयांत चार म्हयने पावस पडटा.

— आठ नक्षत्रां पावस पडटा.

चार म्हयने पावस आनी पावस सोंपतकूच पांचव्या म्हयन्यासाकून उदकाचो सोद चालू.

— गिमांत तर आमच्यो बांयो-तळीं आटून वतात.

— गाडगीं-मडकीं घेवन आमच्यो आवय-भयणी उदकाचे थेंबे पुंजायतात.

आमी पावस शेणयतात !

## पावसाची सांठवण

गोंयची भूंय एक थराचेर सपाट ना. उंच सकल आसा. दोंगराळ आसा. ताका लागून पडिल्लो पावस व्हळून वता. सगळें उदक अरबी सागराक वचून मेळटा.

हाचेर उपाय घेवपाक जाय. उदक सांठवणेचे वेगवेगळे उपाय सोदून काडपाक जाय. न्हंयांचेर धरणां, बांद बांदपाक जाय. तळीं, बांयो, आश्टे, कोंडी हीं उदक सांठवणेचीं धर्तरिवयलीं आयदनां. हीं आयदनां सारकीं करपाक जाय. चिखोल, माती पडून पुरवल्लीं आसत जाल्यार उसपुवपाक जाय. नाजाल्यार दर वर्सा पावस येतलो, गोंयचे भुंयेचेर चार म्हयने नाचून खेळून वतलो आनी आमी गोंयकार सुके ते सुकेच उरतले.



*पावस हाडटा उमेद! अशी उमेद जी वल्लेंतूय धरना आनी सुपांतूय धरना.*

*पावस हाडटा, पांचवेंपण! असलें पांचवेंपण जें शेतां सारयता आंगार आनी दोंगर माळटा माथ्यार.*

*पावस हाडटा समृद्धताय!*

*उपाट भरिल्लीं तळीं, उपाट न्हंयो, भाताच्या थामाच्या पोटांत कणसांचें भांडार!*



*गोंयांत दर वर्सा २ मीटर ७० सेंटीमीटर इतलो पावस पडटा. म्हणजे गोंयची भूंय जर एका सपाट थराचेर आशिल्ली आनी पावसाचें उदक जर व्हळून वचूंक नासलें वो जमनींत जिरूंक नासलें जाल्यार गोंयच्या माथ्यावयर २ मीटर ७० सेंटीमीटर इतलो उदकाचो थर उरपाचो.*

*म्हणजे जयवंताचो इश्ट जुवांव जर जयवंताच्या खांदार पांय दवरून उबो राविल्लो जाल्यार जयवंत तकले मेरेन बुडपाचो आनी खांदावयलो जुवांव कमर मेरेन बुडपाचो.*


**अपुरबाय प्रकाशन**

वळवय, गोंय

ISBN 81-86488-60-X